# " शणै गोंयबाब एक वळख "



लेखक :
शांताराम वासुदेव आमोणकार



गोवा कोंकणी अकादेमी

"शणै गोंयबाब एक वळख"

**Shenoi Goembab**
**EK VALAKHA**


लेखक :
शांताराम वासुदेव आमोणकार

**Writer :**
Shantaram Vasudev Amonkar





उजवाडावपी :
वि. मं. धुमे
सचिव
गोवा कोंकणी अकादेमी,
पणजी, गोंय ४०३ ००१.

**Publisher :**
V. M. Dhume
Secretary,
Goa Konkani Akademi
Panaji - Goa 403 001.

छापपी :
श्रीकांत आमोणकार
सम्राट प्रिन्टर्स,
बाणस्तारी-गोंय.

**Printer :**
Shrikant Amonkar
Samrat Printers,
Bhanastari - Goa.








मुखचित्र :
दिलीप धामस्कार

**Cover :**
Dilip Dhamaskar

पयली आवृत्ती : एप्रिल ९४

**First Edition :** April 94.

प्रती : १०००

**Copies :** 1000

मोल : रू. १०.

**Price :** Rs. 10



## भौ. वामन रघुनाथ शणै वर्दे वालावलीकार
## म्हणचेच "शणै गोंयबाब"

कसलेच तरेचो अधिकार हातांत नासतना, कसलेच सत्तेचो जावं उत्तो, जावं पोंदयां पालव नासतना, आपणाल्या मत्ताचो प्रसार करपाच्या साधनांची अनुकूलताय नासतना आनी भोवजन समाजाचें मत्त प्रतिकूल आसतना, एक मनीस निखटे आपणाले लेखणेच्या तांकीन, विचाराचें नवें यूग निर्माण करूंक पावता, हें लक्षण कसलें? तर हो मनीस सामान्याभायलो एक म्हापुरूश - GENIUS




**स्व. प्रो. रामचंद्र शंकर नायक**
इश्कोल नोर्मालाचे आचार्य, पणजी, गोंय

*सगल्या भौसान, जाणट्यांनी आनी नेटण्यांनी वेळार जीव त्रासांत घालून आपले भाशेक पालव दिलो, त्या सगल्यांक मायेमोगान अर्पण.*

**- शांताराम वा. आमोणकार**

# दोन उतरां

“ शणै गोंयबाब ” हें सुपुल्लें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीचे वतीन उजवाडा हाडटना भोव खोस भोगता .

विसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत उदयाक आयिल्ले शणै गोंयबाब म्हळ्यार वामन रघुनाथ शणै वर्दे वालावलीकार हांणी कोंकणी भाशेचे चळवळीचें मुळावण घालें . कोंकणींतल्या आर्विल्ल्या साहित्याचे ते रचनाकार . कोंकणीचो फुडार पारखुपी ते द्रष्टे आसले .

शणै गोंयबाब हांकां कोंकणी चळवळीच्या इतिहासांत आनी साहित्यांत मानाची सुवात आसा . कोंकणी वाचप्यांक तांच्या जिवीताची आनी साहित्याची वळख घडची म्हूण आयजवेर कांय पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत . श्री . शांताराम वर्दे वालावलीकार हांणी संपादीत केल्ले आनी कोंकणी भाशा मंडळान उजवाडायिल्लें ‘ वज्रलिखणी ’ आनी रा . ना . नायक हांणी बरयिल्लें आनी साहित्य अकादेमीन उजवाडा हाडिल्लें “ शणै गोंयबाब ” हीं दोन पुस्तकां म्हत्वाचीं आसात .

श्री . शांताराम वासुदेव आमोणकार हांणी बरयिल्ल्या “ शणै गोंयबाब ” पुस्तकाक खाशेलें म्हत्व आसा . श्री . शांतारामबाब हांणी शणै गोंयबाबांक तांच्या गुण-अवगुणांसयत खूब लागसून पळयल्यात . शणै गोंयबाबांक घडिल्ल्या कोंकणी भाशेच्या दिश्टाव्याचो वसो तांकां तरणे पिरयेचेरूच लाबिल्लो आनी मुंबयंत आसतना तांणी आपणाक कोंकणी चळवळींत निश्ठेन ओंपून घेतिल्लें .

त्याच काळावयल्यो कांय यादी आनी अणभव ह्या सुपुल्ल्या पुस्तकांत उतरल्यात .

शणै गोंयबाबांच्या जिवीताचेर हे बरपावळीन अदीक उजवाड पडटलो , अशी आमकां आस्त आसा .




**पुंडलीक ना. नायक**
उपाध्यक्ष आनी संपादक मंडळाचो निमंत्रक

# मनोगत

भौ. वामन रघुनाथ शणै वर्दे वालावलीकार म्हूण एक व्हड गोंयकार, २३ जून १८७७ ह्या वर्साक जल्माक आयले आनी ९ एप्रील १९४६ वर्सा भायर पडले. तांणी जीव आसासर पोरणीं पुस्तकां उस्तून काडून फाटलो हजरांवयर वर्साचो इतिहास धवळून काडलो आनी तें इतिहासाचें "भूत" आपले मानगुटेर बसोवन घेतलें आनी वर्तमानाकडेन मुंबयसारक्या शारांत लडाय मारून, गोंयकारांचो फुडार निश्चिंत आनी निश्चित केलो. हो आमचो म्हापुरूस. कारण आमच्या फुडाराचो चोख हिशोब ताणें खूब पयलीं थारावन दवरलो.

मुंबय प्रेसिडेंसीच्या निवडणूक वळेरेचेर कोंकणीक वेगळी मान्यताय नाशिल्ली. हें पळोवन कोंकणीचे मुंबयकार म्हालगडे वोगीच हातपांय पांगरून बसले. पूण शणै गोंयबाब नशिबाक दोश दित बसपी न्हय. तांणी चार दिसांभितर भाशातज्ञांच्या मदतीन सविस्तर निवेदन तयार करून त्यावेळच्या राजकारण्यांकडेन विचार करून तेन्नाच्या गोव्हेर्नादोराच्या हातांत दिलें. म्हज्या यादीप्रमाण हो गोव्हेर्नादोर SIR ROGGER LUMLEY जावंये. अशे तरेन कोंकणी भाशेचो आसपाव निवडणूक वळेरेर करून घेतलो.

मागीर कांय विव्दानांनी मराठीचो पाखो घेवन तांकां पिडापीड सुरू केली. ह्या सगल्यांक तांणी त्यावेळच्या वर्तमानपत्रांनी बरोवन सणसणीत जापो दिल्योच. पूण तितलेंच करून ते वोगी बसलेनात. तांणी कोंकणी भाशेची सरस्पत घडोवपाक माथें मारलें.

तांणी पळयलें निव्वळ "कोंकणी भाशेचें जैत ज़ावं FORMATION OF KONKANI पुस्तकांनी वाद थांबोवंक येना, म्हळ्यार कोंकणी भाशेंत सगल्या विशयांचेर पुस्तकां आसल्याशिवाय ती एक समर्थ भाशा अशें लोक मानचेनात. म्हणून ते घट्ट मांडी घालून बसले आनी भुरग्यांखातीर व्याकरणासयत, मुळावीं पुस्तकां बरोवन काडलीं. दोन, तीन नाटकां बरोवन माचयेर हाडलीं. ह्या वावरांत क्रिस्तांव भावांखातीर शेक्सपियराच्या खेळांची माळ तयार केली. दोन अडेच हजार वर्सांफाटल्यानचो इतिहास धवळून काडून "गोंयकारांची गोंयाभायली वेंचणूक छापली. तत्वगिन्यान, व्याकरण, चरित्रांबी कांय एक सोडूंकना. तांणी तेभायर "नवें गोंय" हे ती-म्हयनाळे, दोन वर्सा समर्थपणान चलोवन दाखयलें आनी "भगवंतालें गीत" हें गीतेचेर पुस्तक बरोवन, सगल्यांचेर एक मुकुट चडयलो.

तें पुस्तक बरोवपाखातीर कितलें कश्ट काडटाले , हाचें वर्णन भौ . कशिनाथ श्रीधर नायक (गोमन्तक छापखान्याचे मालक) आमकां सविस्तर कळीत करतात .

ते म्हणटातः तांणी हें श्रीमद् भगवत गीतेचे कोंकणी भाशांतर करपाक हिसपाभायर स्त्रम काडले . वेगवेगळ्या काळांत आनी थळांत उजवाडाक आयिल्लयो गीता पुंजावन त्यो वाचून काडल्यो . वेगवेगळ्या विव्दानांनी केल्ले तांचे तरेक तरांचे अर्थ उस्तावन काडले . गीतेचेर पुर्विल्लया , आर्विल्लया आनी भायल्या भितरल्या विव्दानांनी बरयल्ल्यो फोडणिशो वाचून ताच्या सम आनी आड मत्तांची वळेरी बरोवन काडली . वेदीक धर्माचे मुखेल ग्रंथ आनी तांच्या धर्मीक खांदयांच्या वेगळ्या वेगळ्या मुखेल आचार्यांनी आप आपणाल्या मत्ताभशेन केल्ले तांचे वेगळे वेगळे अर्थ आनी फोडर्णाशो वाचून काडल्यो . येसू ख्रिस्ताची जीण आनी क्रिस्तांव धर्माचे बायवल , महम्मुदाची जीण आनी इस्लाम धर्माचें कुराण , तशेंच तालमुदबी (ज्यूंचें पवित्र पुस्तक) हेर धर्माचे मुखेल ग्रंथ तांचीं भाशांतरां आनी फोडणिश्यो वाचल्यो . त्या धर्मांतलीं आनी वेदीक धर्माचे शिकोवणेंतलीं सारकेपणां आनी तीं नासल्यार तांची कारणां येवजून सोदून काडलीं . हे भाशेन आगळे उणे अडेचशीं तीनशीं पानांचे आयतें एकठावन जातकूच तांणी आपणाल्या गीतेच्या भाशांतराक कसलेच भावनेची बादा जावची न्हय हे खातीर , आपणालें मन आनी मेंदू हांचो सोद घेतलो आनी तांचेर आपल्या पेल्या कसल्याच मत्तांची पुटां चडिल्ली आसल्यार बारकायेन सांसपून पळोवन तीं काडून उडयलीं . हे भाशेन आपणाली नदर शुध्द . सत्वीक आनी उजू करून योगभरीत जावन तांणी हें भाशांतर चौथे खेपे निवळावंक घेतलें '' .

ही निवळणीय फुडें अर्दकुटीच उरली आनी जशें होलमले तें अवस्थेत तें छापून आयलें .

**पान १९/२० ''वज्रलिखणी''**

भौ . वामनबाब दर पुस्तकाखातीर कितलो वावर करताले हें पळयल्यार तांणी आपल्या संबंध आयुश्यांत थोडींच पुस्तकां कित्याक बरयलीं , चड कित्याक ना हें लक्षात येता .

ते एकेकडेन म्हणतात . '' नव्या गोंयांक तरण्या धाकट्या उमेदीच्या गड्यांची मोटी ओड , तांचोच ताका चड उबारो चाळीशी फाटीं पडून संवसारांक उबगल्ल्या . धकेचपाटे खावन निर्णल्ल्या सुक्या वेदान्ताची बडबड लागिल्ल्या , पिरीपिरी करून पिर्डगतल्या आनी हजार

दुबावांनी भरिल्ल्या लोकांचो तांकां वीट येता. तसल्या लोकांकडेन तें दावे दोळयानय पळेना.

**अमृताचो पावस, जुलय १९३४ "नवें गोंय"**

"ऐन वेळार" ह्या व्हडल्या निबंधांत तर तांणी म्हळां तें बरें करून वाचल्यार आमची आवतिकाय तांणी कशी पारखिल्ली आनी ताका फुडें वखदूय कशें फर्मायिल्लें आसा तें पळोवंक मेळत.

ते बरयतात, आमी फकत आतांचो काळ-आतांची घटकाच- पळेतात. आज आमी खाकनवाळ जाल्यांत. देखून आमगेले भाग्यवंत पूर्वजूय तशेच आसले अशें आमकां दिसता. आमी वर्तमानकाळावेल्यान भूतकाळ पारखितात. आज राजकारण, धर्मकारण आनी भासकारण हातूंत आमी सुतकी जाल्यांत. आमी पेल्यान रावन, कोणाक आफडनासतना, हेर लोक कितें करतात तें मोन्यानी पळेतात. आनी तांगेल्या बंदेपणात वावुरतात हे भाशेन आमगेले कर्तृत्वानी पूर्वजय आमचे सारकेच सुतकी आनी बंदे आसले अशें तांगेलें चित्र आमचे सामकार उबें रावता, आमकां उंच हावेसाची देख मेळना, आमगेलो जीव कसल्याच सत्वीक उमाळ्यांनी फुरफुरना. निखटे बंदेपणांतूच दीस काडूंक आमी जल्मा आयल्यात आनी सासणांची सासणां आमकां अशेच तरेन वांचूंक जाय, अशी साप्प उणाक आनी हीण भावना आमच्या मनाची जाल्या. ही असली भावना जावंक नाशिल्ली जाल्यार आमी निजाचेच हुशार आनी बुदवंत कोंकणे, आज सगलें हिंदुस्थानाचें राजकारण, धर्मकारण आनी भासाकारण, हातूंत मुखावेले म्हालगडे चतूर येरेंकार जावन हिंदुस्थानाचें भाग्यवंत तारूं केन्नाच खंयचे भाटयेक लागूंक दिनासतना सुसंगीत, सायसंगीत आनी हुसक्यामेकळे चलयतले आशिल्ले. पुणून भंगले आमी. आमी आमगेल्या उजळ भूतकाळाचें 'सुंदर भूत विसरले आमी तें पयस आमडून घालें आनी आज सगलेतरेन कर्मकट्टे भिकाड्डे जाले.

अजून हांव म्हगेल्या आस्तवंत आनी उमेदिच्या तरण्या धाकट्या भुरग्यांक आगरो करून आड्डून सांगतां की येन्नादर तें भूत उपकार करून सोडून काडात आनी तुमच्या कांट्यार बसयात. तुमी तुमगेलो भाग्याचो इतिहास बारकायेन विसकून पळेयात आनी ते भाशेन तुमचो आतांचो आनीक फुडलो काळ थारायात. तुमच्या धंग नासपान, न्हिदसुरेपणान, आळसायेन आनी घाळयेपणान जे परकी सुवार्थी लोक तुमच्या घरांनी रिगून तुमच्या हड्डयार बसल्यात आनी धनीपण चलयतात तांगेलो फटाशांचो तड्डकी इतिहास तुमी उष्टांव नाकात, तांगेल्या

मेंदून तुमी येवजूं नाकात. तांगेल्या पोशान तुमी उदक पियेवं नाकात.....!

**अैन वेळार पाना २४३/४४ वज्रलिखणी**

तांच्या तरण्या धाकटचा गड्यांची तांच्या "नव्या गोंयांक" ओड. तांच्या भविश्यवाणीक तांणी खरेलोच पालव दिलो. तशेंच तांचे दुसरें भविश्य खरें जालें. ४० वर्सापरस चड अशा जाणट्यांनी तांकां जाता तितलीं आडमेळी हाडलीं. सामकें धाकटयांनी 'ओपीनियन पोल' जिखून स्वतंत्र गोंयची मेड घट केली. तशेंच सरस्पत वाडोवपाच्या वावराक हात घालून, थंयपसून जैताची घुडी प्राप्त करून दिली. भाशेच्या सगल्या मळावेलीं इनामां जिखून करतां करतां दिल्लीक पावले आनी कोंकणी भाशेक साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळोवन दिली. मागीर 'गोवा स्टेट' आनी ताची राजभाशा कोंकणी हो मान मेळयलो आनी निमाणेंकडेन जी भास कुस्कुटावन उडयल्ली ते भाशेक भारताच्या आठवे वळेरेंत पावयलीं. आतां तर ती गोवा युनिव्हर्सिटींतूय एमए मेरेन पावल्या.

अजून एक खबर हांगा सांगूक जाय की शणैच्या वावराची तोखणाय मुंबयसाकून ,त्रावणकोर कोचीन मेरेन पावल्या. तांच्या वेळार एक कोंकणी भाशा मंडळ झरत मरत चलतालें. आतां गोंयांत एक आनी मुंबय एक अशो दोन वावुरपी संस्था जाल्यात. कारवार, मंगळूर आनी केरळांत आनीक आसात. तेभायर निव्वळ कोंकणी भाशेच्या वावराक गोंय सरकारान "गोवा कोंकणी अकादेमी" ही संस्था पणजेंत चालू केल्या. "अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिषदो आनी "अखिल भारतीय साहित्य संमेलनांय भरपाक लागल्यात सोंपयता सोंपयता आनीक एक खबर सांगची पडटली. शणै गोंयबाबांच्या फकत गोंयच्या साहित्याची वाड नाका आशिल्ली, संगीत, वाजोवप, नाचप, नाटकां माचयेर हाडप अशा सगल्या आंगांनी गोंयची वाड जावंची अशे दिसतालें. इतलेंच न्हय, शिकप, संशोधन उद्देग धंदे अशी उदरगत जावची अशें मनापसून दिसतालें. गोंयकारान अवकाश संशोधनात पसून फुडें येवंक जाय अशें ते म्हणटाले. ह्यो तांच्यो सगल्यो आशा आकांक्षा हे फुडली पिळगी फळाक हाडटली अशी आस्तच न्हय तर खात्री धरत हें सोंपयता.

आतां जांणी कोणें ह्या पुस्तकाक हातभार लायलो तांचीं नांवां सांगतां भौ. कमलाकर द. म्हाळशी हांणी वज्रलिखणेची प्रत मडगांवसून विकती घेवन भेट म्हूण घरा धाडलीं. ह्या पुस्तकाचो म्हाका खूब उपेग जालो. शणैबाबांच्याय नातवाचो शांतारामबाब वर्दे



वालावलीकारांचोय तांणी सगलो मजकूर वेळांत वेळ काडून तपासलो . अकादेमीच्या सचिवांनी भौ . विष्णु धुम्यांनी  बाकी सगली मदत केली . आतां रामचंद्र ना . नायक  आनी काशिनाथ श्रीधर नायक ह्या दोन नायकांचे मनापसून उपकार आठोवन तुमकां सगल्यांक देव बरें करूं म्हणटां .

**- शांताराम वासुदेव आमोणकार**

६ . नंदादीप ,
बोक द व्हाक ,
पणजी-गोंय

# शणै गोंयबाब

# एक वळख




शणै गोंयबाब हे गोंयांत जावन गेल्ले एक व्हड मनीस. तांच्या सतत वावराची (तातूंत १९२५ मेरेन संवसार, १९३७ मेरेन समाजीक वावर आनी १९४६ मेरेन साहित्यीक वावर तांणी निश्टेन केलो) कल्पना आतांच्या भुरग्याक येवची म्हणून हो प्रपंच केला.

शणै गोंयबाब हांचें खरेलें नांव भौ. वामन रघुनाथबाब शणै वर्दे वालावलीकार. ते 'वालावलीकार' हें आडनांव कित्याक लायतात? शणै गोंयबाब हें साहित्यीक नाव कित्याक? शणै गोंयबाबाचे एक जाण्टे भौ. पुंडलीक शणै वर्दे हे गोंय सोडून सावंतवाडी-वालावली ह्या गांवांत स्थाअीक जाल्ले. ते भायर पडटकूच तांचे कुटुंबातले सगले लोक, आसा तशे गोंयांत येवन रावले. परत केन्नाच सावंतवाडी वचूंकनात. मात्त हें एकदा लागिल्लें आडनाव तांकां सगल्यांक चिकटून उरलं.

'शणै गोंयबाब' हें तांचें साहित्यीक नांव. शणै हें उतर आपल्या नांवाक तांणी सदांच लायलें आनी गोंयांचेर तांणी जीव तोडून भक्ति केली. बाब हें नाम गोंयांत अपुर्बायेन, जांव आदरार्थी सदांच वापरतात. पुणून हीं तिनूय उतरां गोंयकारांचीं फकाणां करपाक, मुंबयकार गोंयकार वापरताले. तेखातीर तांणी ह्या नांवान आपली साहित्यीक जीण चलयली. १९१० वर्सा उपरांत आपल्याच खर्चान एकदोन पुस्तकां उजवाडायल्लीं तांचेर पयलेच खेपे तांणी 'शणै गोंयबाब' हें नांव वापरांत हाडलें जावंये!

भौ. वामनबाबांच्या बापायचें नांव रघुनाथबाब आनी आवयचें सौ. सिताबाय. तीं दोगांय दिवचले भितरले पेठेंत आपल्या घराच रावन भायर पडलीं. तांचें घर अजून थंय आसा.

भौ. वामनबाबांचो जल्म २३ जून १८७७ तलो, दिवचले भितरले पेठेंत जालो आनी तांकां मुंबयंत ९ एप्रील १९४६ त.गिरगांवातल्या 'न्यू नर्सींग होम' ह्या ओश्पीतलांत सकाळच्या ८.३० वरांचेर मरण आयलें. थंयसून भायलेभायर आपल्याक सोनापूराक (मुंबयचे मसुंडेंत) व्हरचो, अशें तांचें अंतीम सांगणें आनी तेप्रमाण १२ वरांचेर त्याच दिसा

सोनापुरांत व्हरून तांचें दहन केलें. तेवळार तांचो चलो रघुनाथ, कै. भौ. यशवंत मु. सरदेसाय, काशिनाथबाब आनी अनंतबाब नायक, बाकीबाब आनी तांचो बापोलभाव वसंत बोरकार, काशिनाथ लाड, महाबळेश्वर सरदेसाय, फ्रान्सीस जॉन मार्तिरीश, हांव (आमोणकार), श्रीपाद देसाय तेभायर रामचंद्र ना. नायकबी आशिल्ले काय दिसता.

तांचें मराठी शिकप सवेमेरेन दिवचलेंतूच जालें. मात्त पोर्तुगेज सेगुंदग्रावाची परीक्षा तांणी बस्तोडयां, बारदेसा रावन दिली. फुडें मुंबय वचून १८९८ वर्सा ते बऱ्या मार्कांनी मॅट्रीक पास जाले. मराठा हायस्कूल, गिरगांवरोड, गिरगांव, हांगा ते मॅट्रीक शिकले. फुडलें शिक्षण घेवंक मेळना जालें, म्हणून गोंयांत आसगांवां स्कूलांत शिक्षकाची नोकरी धरली.

ते परत मुंबय वचून, थंयसून कराचीक गेले आनी म्युनिसिपालटींत नोकरी धरली. थंयची उष्ण हवा तांकां पचना जाली आनी ते मुंबयंत परतून नोकरी सोदूंक लागले.

१९०३ वर्सा तांचें लग्न जालें. बायलेचें नांव सौ. शांताबाय, ही एक मुंबयंत रावपी गोंयकार चली, दुसऱ्या वर्सा तांकां एक चलो जालो.

१९०४ वर्सा इतालियन कोंसुलादांत तांकां एक नोकरी मेळ्ळी. तांचें थंय कामपसून सदांभाशेन चोख. मात्त थंयची शिस्त नडली. जेन्ना कोंसुल भितर सरता, तेन्ना सगळ्या नोकरांनी उठून उबे रावप ही थंयची चाल. पूण ते एकलेच उबे रावले नात म्हूण तांकां त्या वर्साची पगारवाड फक्त एकल्याकूच दिलीना. ते मात सदांभाशेन तकली सकयल घालून काम करीत रावले. मागीर कोंसुल सायबांनी तांकां आपोवन व्हरून तांची चूक दाखोवन दिली, आनी तांच्या कामाची तोखणाय करून, दोन पगारवाडी एकदम दिल्यो. उठून उबो रावपाखातीर परतूय अडचण येवची न्हय, म्हणून तांणी नोकरेचो राजिनामो धाडलो. तांकां परत आपयले म्हळ्यार तांणी स्पश्ट न्हयकार दिलो.

फुडें १९०६ वर्सा तांकां पयलींपरस बरी नोकरी मेळ्ळी. रंग आनी वखदांचो वेपार करपी मेसर्स मेस्टर लुसीस ब्रुनींग ह्या जर्मन कंपनीत ते स्टेनोग्राफर म्हणून लागले आनी आठ वर्साभितर तातूंत "चीफ ॲकावंटंट' ह्या पदार पावले. आतां बरो पगार मेळून तांची परिस्थिती खूब सुदारली.

इतल्यांत लडाय सुरू जाली. इंग्लंड आनी जर्मनी ही शत्रुराष्ट्रां जाल्ल्यान मुंबयचे शाखेचे अधिकार भौ. वालावलीकारांकडेन सोंपोवन जर्मन डायरेक्टर आपल्या घरा पसार जाले. १९१४ ते १९१९ मेरेन भौ. वामनबाब त्या कंपनीचे मालक कशेच आशिल्ले. तांणी कंपनीचो वेपार व्यवस्थीत राखून कंपनीक लडायेउपरांत जर्मन मालकांकडेन सोंपयलो.

तेउपरांत नवे डायरेक्टर आयले, सगले तरण्या रगताचे. तांकां भौ. वामनबाबांक आपल्या इतलो पगार आसप मानलेंना, तांणी एक माणणी केली. कंपनी, पयलीं सारकी फायद्यांत चलना तेन्ना काटकसर करप आयलेंच. एका वालावलीकाराचोच पगार देंवयलो, कारण तांकां सगल्यांपरस चड पगार मेळटालो. हें कारण दाखयलें.

भौ. वालावलीकारांनी स्पश्ट सांगलें की कंपनी सगल्यांची, तेन्ना लुकसाणाच्या प्रमाणांत सगळ्यांचोच पगार इल्लो इल्लो उणो करचो, आपणांचो एकल्याचोच न्हय. तांकां रू. २००० पगार मेळटालो म्हणून ते तकली बागोवन वोगी बसलेनात. सविस्तर जाप घालून मातपसून फाटीं सरनासतना राजिनामो दिवन घरा गेले. १९२५ वर्सा ह्या कंपनीत तांचे नोकरेक १९ वर्सां जाल्लीं. वयाच्या ४८ व्या वर्सां म्हणचे मध्यम वयाचेर तांकां दुसरी नोकरी सहज मेळटाली. म्हळ्यार ह्या कानाचें त्या कानाक लायनासतना ते रॉयल ॲशियाटीक सोसायटी आनी पेटीट लायब्ररी ह्या दोन संस्थांनी वचून, सारके आफीसच्या टायमार यो वच करताले, आनी ह्या अभ्यासांतल्यान गोंयकारांची गोंयांभायली वसणूक भायर सरली.

मराठी, कोंकणी, संस्कृत, हिंदी, पाली, अर्धमागधी, महाराष्ट्री, गुजराथी, पोर्तुगेज, इंग्लेज, फ्रांसेज अशा आपल्या कामाक लागता त्या भाशांचो अभ्यास करून तांणी गोंयचो २५०० वर्साचो इतिहास धवळून काडलो.

तांच्या संबंदान भौ. रामचंद्र नारायण नायक हे विव्दान मनीस बरयतात "तांच्या भोवमुखी आनी अष्टपैलू प्रतिभेक लागून ते अनेकांगी साहित्यकार जाले. इतिहासकार, संशोधक, भाशाशास्त्री, व्याकरणशास्त्री, नाटककार, कवी काणयेकार, वेदान्ती, भुरग्यां साहित्य रचपी, निबंध-प्रबंधकार, व्युत्पत्तीशास्त्री, जिणो-बरपी आनी खंडन-मंडनात्मकवाद करून जैताची अजिंक्यपदां जोडपी विवादपटू, झगडपी साहित्यकार, ह्या शिवाय तीन वर्सा "नवें गोंय" ह्या उंच अभिरूचीच्या नेमाळ्यांचें संपादन करून तांणी विचारपूर्ण स्फूट बरवपूय जायतें केलां. तांची अनेकमुखी साहित्य सेवा पळोवन कोणाचेंय मन अजापान थक्क जायत (पान ११८- शणै गोंयबाब एक मनीस, एक साहित्यिक)

१९२५ सालांत नोकरी सोडटकच तांणी पार्ल्याक स्वताचो विस्कळ जागो घेवन, एका माळयेचें घर बांदलें आनी ताका नाव दवरलें 'गोमन्ताश्रम' तांच्या पोरसांत गोंयचीं झाडां माड, गार्फा, पणस, मशींग बी सगलें कितें गोंयातल्याभाशेन आशिल्लें.

ह्या घरांत ते स्वता तांची बायल सौ. शांताबाय, दोन चले- रघुनाथ आनी पुंडलीक आनी दोन चलयो- वत्सल आनी कमल रावतालीं. आज म्हाका दिसता धाकलो चलो आनी

चली इतलींच उरल्यांत.

ह्याच घरांत बसून तांणी मेकळेपणान २० ते २५ पुस्तकां देवनागरी लिपयेंत बरोवन काडलीं. तशेंच तेपयलीं खूब वर्सां तांणी शेक्सपीयरचे खेळ रोमी लिपयेंत क्रिस्तांव भावांखातीर बरयले. तांचीं धा ते १२ पुस्तकां जावंये.

तांचीं सगलीं पुस्तकां उजवाडाक हाडपी, गोमन्तक छापखान्याचे मालक भौ. काशिनाथबाब श्रीधर नायक आनी तांचे भाव भौ. अनंत नायक हे गिरगांवांत, रामचंद्र बिल्डींगेच्या तळमजल्यार आपलो छापखानो चलयताले आनी तेच बिल्डींगेंत दुसऱ्या मजल्यार तांचो राबितो आशिल्लो. १९२८ वर्सा गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक 'छापपाखातीर भौ. वामनबाबांचो आनी भौ. काशिनाथबाबांचो परिचय जालो आनी तो निमाणेमेरेन तिगून उरलो. एकलो सतत ५० एक वर्सां कोंकणीच्या मळार कश्टलो आनी दुसरो रातीचो दीस करून, तें सगलें छापून लोकांमुखार हाडपांत जिवांत जीव आसासर वावुरलो.

ह्या दोगांयच्याय कोंकणीच्या वावराक लागून, पोर्तुगेज वतकूच गोंयचें फुडें कितें जातलें, हो गोंदळांत उडोवपी प्रस्न कांय न्हय करून सुटलो. कोंकणाची भास "कोंकणी" आनी ती एक स्वतंत्र भास, तिची लिपी हेर भारतीय भाशांभशेन 'देवनागरी' आनी ती एक प्रगत भाशा आशिल्ल्यान बाकीच्या भारतीय भाशांइतलीच ताकतीची स्वतंत्र भास. हें तांणी दर एका पुस्तकांत सुचयलां.

आतां तांची थोडीभोव वळख करून दितकूच तांच्या वावराचे ३ वांटे करून तेसंबंदान वेगवेगळें सांगतां.

तांच्या संसाराचो वावर ते १९२५ साला नोकरेंतसून मेकळे जावन पाल्र्याक घर बांदून रावतात हांगा सोंपता. तेफुडें तांचो सामाजिक वावर. १९१८ वर्सा 'धी गोवा हिन्दू असोसिएशन ह्या गोंयचे आनी गोंयकारांचे वेगळे वेगळे प्रस्न सोडोवपाखातीर स्थापन केल्ल्या संस्थेंत ते आरंबापसून वावुरले आनी १९२५ वर्सा तांणी हें काम सोडलें. मागीर "गोमन्तक हिन्दू मंडळांत ते वावुरलेकाय दिसता. तांकां एका 'मंडळाच्या' वर्सुके सभेंत १९४४ च्या मेत पळयल्ल्याची म्हाका हयन्हयशी याद जाता. तांणी बरयल्लीं नाटकां मुंबयच्या संस्थांनी जावं कॉलेजानी जावंक लागलीं आनी भुरग्यांकडेन आनी जाणट्यांकडेन तांचो प्रत्यक्ष संवंद आयलो. तेभायर तांचीं उलोवपां, मॅट्रीकच्या भुरग्यांचो सत्कार सुवाळो जावं गोंयकार व्हड मनीस मुंबयत येतकच तांकां येवकार दिवन भाशणां, जावं दर आठ दिसांनी १९२७ वर्सा सारस्वत ब्राह्मण समाजाच्या आदारान केल्लीं 'गोंयाभायली वसणुकेचेर' दीर्घ व्याख्यानां हांणी मोट्या मोट्या विद्वानांक जाग हाडली. फादर हेरास, प्रो. वसंत नारायण नायक बी जायते

लोक आनी कोंकणी परिशदेच्या कामान तांची वळख : भौ . माधव मंजुनाथ शानभाग , दिनकर द . देसाय , रा . ब . तालमकी , डॉ . दोंगरकेरी तशेंच मुंबय ते मंगळूरमेरेन जायत्या लोकांकडेन तांचो संबंद आयलो आनी तांच्या वावराचें म्हत्व लोकांच्या ध्यानांत आयलें . ते उलयताले-बरयताले तें सामकेंच पिशेपण न्हय हें विचारवंतांक पटलें . "नवें गोंय" ३ वर्सां चललें , म्हळ्यार तीम्हयनाळ्यान खूब वाद उपस्थित केले . तातूंत डॉ . सु . म . कत्रे , भौ . अ . का . प्रियोळकार , काकासायब कालेलकार , भारतकार हेगडे देसाय , रघुनाथबाब तळवडकार , मडगांव , म्हापशें पणजी , फोंडें सगलेकडल्या लोकांक जाग हाडली .

ह्या लोकांची तीन वांटयांनी वर्गवारी करूं येता . कोंकणीची तांक ज्या लोकांक पटिल्ली ते मूठभर लोक तातुंतले चडशे सामान्य मनीस , बुध्दीन , शिक्षणान , पयशांच्या नदरेन किरकोळ बळ आशिल्ले . तातूंत "भौ . काशिनाथबाबासारके मात्शे बऱ्या परिस्थितींतले लोक सामके निर्शेवन गेल्ले . तांकां शणैबाबाचो मोट्टो आदार जालो .

दुसरे लोक पैशांनी ताण , बऱ्यांतले बरें शिक्षण घेतिल्ले , तांकां दिसतालें कीं गोंयची भारत स्वतंत्र जालेबरोबर रोखडीच सुटका जातली . मागीर आमचीय भाशा मराठी म्हण्टकूच आपशीच 'महाराष्ट्रीय' जाले . जायच जाल्यार एकादे 'गोमन्तक मराठी साहित्य संमेलन' केल्यार खूब जालें !

तिसरें लोक खूब . तांकां कसलेंच कांय पडून वचूंक नाशिल्लें . स्वातंत्र्य मेळूं नाजाल्यार ना मेळूं , पोट भरतकूच जालें बरे तरेन . तांचो कसलोच आग्रोय नाशिल्लो .

ह्या तिनूय वांटयांतल्या लोकांक एकठावपाखातीर शणै गोंयबाबांच्या साहित्याची निर्मणी जाली .

तांच्या साहित्यीक वावराची थोडी फोडणीशी करून सांगतां . तांणी 'गोमन्ताश्रमात' वसून आपलो वावर मन लावन केलो . भौ . रा . ना . नायकांनी तांकां आपल्या शणै गोंयबाब ह्या धाकल्याशा १२० पानांच्या चरित्रांत 'अनेकांगी साहित्यकार' अशें म्हणून १३ विशेषणां लायल्यांत , वयलेवयर पळयल्यार वर्तमानपत्रकार आज आपल्याक मानता ते व्यक्तीक जाय जायतो व्हड व्हड करून बिरूदां लायतात . तातुंतले भौ . रामबाब नायक न्हय . तांच्या प्रत्येक उतराचो वापर ते फाटलें फुडलें खोल येवजलेबगर करिनात . तांणी शणै गोंयबाबांक जें कितें म्हळां तें ताची बरपावळ दोळ्यां मुखार दवरून .

**'तांणी बरयल्ल्या २५ पुस्तकांची विशयवार मांडणी'**

१ . इतिहासकार - गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक (१९२८) , ऐनवेळार (१९४७) , पुणात्मो रामकामती (१९३९)

२. संशोधक - वसणूक (१९२८), आल्बुकर्कीन गोंय कशें जिखलें (१९५५), वलिपत्तनाचो सोद (१९६२), कोंकणी भाशेचें जैत, (१९३०).

३. भाशाशास्त्री- कोंकणी भाशेचें जैत (१९३०), गोंयची आवयभास (१९२५)

४. व्याकरणशास्त्री- कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ (१९४९), नादशास्त्र (१९४०)

५. नाटककार- मोगाचें लग्न (१९१३/१९३८/१९४९), पोवपाचें तपलें (१९४८), झिलबाराणो (१९५०), गोंयकाराचो मुम्बैकार (१९१०).

६. कवी- गोंयकाराचो मुंबैकार (१९१०), म्हजें गोंय आनी कांय कविता (१९३५).

७. काणयेकार- गोमन्तोपनिषत् (१९२८)

८. वेदान्ती- गोमन्तोपनिषत् भाग २ (१९३३), श्री . भगवंतालें गीत (१९५९).

९. भुरग्यांचें साहित्य रचपी- भुरग्यांलो इश्ट (१९३५), कोंकणी १ लें पुस्तक (१९३९), भुरग्यांलें व्याकरण (१९४१).
- कोंकणी मुळावें पुस्तक (१९४७), जादूचो जुवो (१९६८), कोंकणी विद्यार्थ्यांक (१९५८).

१०. निबंध-प्रबंधकार- काही मराठी लेख (१९४५), अमृताचो पावस (नवें गोंय-१९३४), कोंकणी विद्यार्थ्यांक (१९५८), येवकार अध्यक्षाले उलोवप आनी ऐनवेळार (१९४५), आमची भूंय विद्येंत फाटी आसा ? (१९५८)

११. व्युप्तत्ती शास्त्री-

१२. जिणां बरपी- आबे फारीय (१९४१), पुण्यात्मो रामकामती (१९३९).

" शणैबाबांचो " साहित्यीक वावर (१९४५) मेरेन हळूहळू चलतालो . चडशें काम जायनाशिल्लें म्हळ्यार तकलेंत नवे नवे बेत आशिल्लेच'. फकत कोणाचोय आदार सोदतालो, जो मेळनाशिल्लो .

अशाच वेळार म्हाका तीनदां तांकां वचून मेळपाची संद आयली आनी हांवें तिचो उपयोग केलो .

शणै गोंयबाबांक हांव १९४५ वर्साच्या आरंबाक " गोमन्ताश्रमांत " पाल्र्याक (West) वचून मेळ्ळों ताका सामान्य कारण जालें .

तसो हांव भौ . वालावलीकारांक एकदां " गोमन्तक हिन्दु मंडळ " म्हणून संस्थेची

मिटींग आशिल्ली थंय मात्शे पळयल्यात. मुखावेले रांगेंत ते जमखानार आसनमांडी घालून बशिल्ले आसले. रूमाल, धवसो चोळो आनी पुडवें असो तांचो भेस. थंय ते कांयच उलोवंक नात. ते त्या संस्थेचे एक संस्थापक म्हणून आयकल्लें ही १९४४ तल्या मायाची बी खबर जावये आतां १९९३ सगलेंच धुरकट जालां.

म्हाका एक दीस गोंयसून एक पत्र आयलें, (वामन बाळकृष्ण सरदेसाय जे फुडाराक आंगोलांतले राजदूत जाले तांचें तातूंत म्हळळें की पणजेचे शाळेक (कन्याशाळा) २५ वर्सां जाल्यात ते निमतान ते एक 'स्मरणिका' (छापी) काडूंक सोदतात तेखातीर मुंबयच्या व्हडल्या मनशांचे संदेश तांकां जाता तितले बेगीन जमोवन धाडपाचे.

हांवे तेप्रमाणे भौ. स. का. पाटील जे तेवेळार 'मुंबय कॉंग्रेसीचे सेक्रेटरी', तशेंच तांचे एक इश्ट आनी गोंयकार डॉ. जी. डी. तेंडुलकार जे बरींच वर्सां भायर, इंग्लंड, रशिया, जर्मनी बी देशांत रावन आयिल्ले आनी महात्मा गांधींच्या व्हडल्या चरित्राची तयारी करपांत गुल्ल आशिल्ले. मागीर समाज स्वास्थ्यकार भौ. र. धों कर्वे, डॉ. व्यंकटेश पां. कामत, 'धी गोवा हिंदू असोसिएशन'चे अध्यक्ष, अशा जायते जाणांचे संदेश घेवन रोखडेच धाडून दिवपाचो म्हळ्यार एक व्हडलो मनीस उरलो. भौ. वामन र. शणै वर्दे वालावलीकार. तांचो पत्तो "गोमन्ताश्रम, पार्ले, म्हण्टकूच एका आयतारा सांजचो पार्ल्याक पावलो. वर्स १९४५ जावंये व्हडलो कंपाऊंड हुपून लाकडी सपणांचडून माळयेरगेलो, दारार मारतकूच म्हज्यापरस थोड्या व्हड मनशान दार उगडून, 'बसात' म्हळें. तो भितर गेलो आनी एका जाण्टयाशा मनशाक घेवन परतलो. सादारण उजळ रंग, मोटवोसार म्हळ्यार जाता, आंगलोट बारीक आनी शिडशिडीत, दोळे मोठे आनी बटबटीत, आंगाक मलमलचो सदरो आनी आंगोस्तर न्हेशिल्लो असो भितर सरलो. आपूण एक कदेल मदीं सोडून तो म्हज्या म्हऱ्यांत बसलो.

तांणी विचारलें, "कसल्या कामाक आयल्यात" हांवें कन्या शाळेची पाठ जाल्ली खबर तांकां सांगली आनी संदेश मागलो. म्हाका तो जाता तितलेबेगीन जाय अशेंय सांगलें. इतल्यात च्या आयलो आनी तांणी विचारपाक सुरवात केली. "कन्याशाळेचें नांव कितें?" हांवे म्हळें, "हांव थंय आसतना ते शाळेक पणजेची कन्याशाळा इतलेंच म्हण्टाले, आतां किदेंय नांव बी दवरलां जाल्यार विचारून पळेतां". सुचता तें सांगून सोडलें. ताणी विचारलें, "शाळेक स्वताची इमारत आसा? कितले पर्यंत शिकयतात? कितलीं भुरगीं शिक्षण घेतात? कितले मास्तर आसात? आनी हेफुडें कोंकणीतबी शिकयतले काय तशेंच फुडें चलयतले? निमाणी परीक्षा बी खंय घेतात? अशें जायते प्रस्न विचारले तांणी.

सगली खबर म्हळें गोंया पत्र घालून हाडतां. विचारलां तें सगलें मेळ्ळेबगर म्हळें

जाण्टेलो बदतसो दिसना. रोखड्या रोखडें वामनबाब सरदेसायाक पत्र घालून जाप हाडली आनी आतां दुसरे फावट पार्ल्याच्या वाटेक लागलों. वाट मात्शी संवयची जाल्ली. ४ ते ४.३० च्या अदमासाक गेटींतल्यान भितर सरलों. तोंडामुखार सरळ वाट माडून लाकडाच्या सपणांवेल्यान, लाकडाच्या गॅलरीर आयलों आनी हॉलाचें दार वाजोवन भितर सरलों. हॉल आयस पैस, दोनूय वाटांनी वण्टीक तेकून कदेलांची रांग. रविवर्म्याची चित्रां, कॅलेंडरांवी जातकूच मोटे व्हडले दोन फोटे आशिल्ले. एक भौ. चिंतामणबाबांचो आनी दुसरो चिंतामणबाबाचे जाण्टेले भास्करबाब हांचो.

हें सगलें हांवें तांचो चलो बापायक आपोवक गेल्लो त्या वेळात पळोवन काडलें. भौ. वामनबाव भितर सरून तांणी एक शेंदरी हाडूंक लायली आनी ताचेर बसले. हांव उठलों आनी कदेलावयलो शेंदरेर बसपाक तांणी म्हळें : थंय कदेलारच बसात, तुमचें पँट चुरतलें, आपूण आंगोस्तर न्हेसलां म्हणून शेंदरेर बसला. आतां ताच्या उलोवण्याफाटल्यान एक विचार आसता हें लक्षांत आयलें. तांच्या हातांत गोंयसून हाडिल्लो खड्डो दवरलो.

तांणी सांगलें तुमचो संदेश तयार आसा रोखडोच धाडून दियात, आतां हें वाचून कितेंय फेरफार करचे पडल्यार करतां आनीक एक आपलेचभितर पणून म्हाका आयकसारकें तांणी म्हळें : हे पळयात, रागार जावं नाकात, पुणून खंयचेय गजालीची सारकी खबर घेनासतना ताचेसंबंदान कितेंय बरोवन दिवपाक मन घेना. म्हजी एक चाल पडल्या ती.

आतां ते सारके बसले आनी तांणी हांव मुंबय कितें करता, खंय रावता, पोर्तुगेज कितलेमेरेन शिकला? गोंयांतूच रावन नोकरी कित्याक करिनात, गोंयांत गांवांन खंयचो, वी विचारून घेतलें.

तांणी फुडें म्हळें: तुमी मुळचे आमोणेचे आमोणकार आनी थंयचे दुसरे म्हाजन सुर्यराव सरदेसाय म्हळ्यार मुळचे आमोणकारच. पुणून देसायकी केली म्हणून सरदेसाय जाले. तुमी भोमचे जाल्यार तुमच्या शेजराच एक चड पोरणो गांव आसा ताचे नांव 'हडकोळण' थंयचे पोरणे देऊय तुमी पळयलां? नाजाल्यार मुद्दम पळयात. थंय पयलीं मनीस बळी दिताले तेसुवातीर आतां रेडो मारतात दसऱ्याक.

ह्या देवळाच्या मात्शें फुडें एक पेड बांदून, तातूंत व्हडलें झाड आसा आनी ताका तेंकून एक सुंदर फातर आसा. ताचेर सोबीत अक्षरान सगलें आंगभर बरयलां, ब्राम्ही लिपीपरस वेगळे तरेन बरयलां. ताची कॉपी करून हांवें फादर हेरास ह्या इतिहासतज्ञाक तेसंबंदान विचारलां म्हळयार अजून तांचेकडसून जाप ना. आनी भितरल्या फायलींतसून तें बरप आशिल्ले एक कागद म्हाका दाखयलें.

(दोन वर्सांफाटीं हाका भौ . गजानबाब घांटकार जे रिटायर जाल्ले आर्के ओलोजीचे डेप्युटी डायरेक्टर , ते पणजेंत मेळ्ळे . तांणी तें बरप वाचलां , ताका 'हळकानडी' लिपी म्हणटात . म्हणचेच कदंब काळावेली पोरणी कानडी . आनी एकदां पयर मेळ्ळे तेन्ना ताणी पोरणी तशेंच नवी कानडी लिपी आसा . आनी पोरणेक हळ-कानडी आनी नवेक गोंय-कानडी अशीं नांवां दिवन ह्या दिसांत पुस्तक भायर सरपाचें आसा , तांचो हो जायत्या तेंपापसून संशोधनाचे विशय जावन आसा अशें सांगलें .)

मागीर बायलांच्या शिकपाचेर गाडी आयली . तांणी म्हळें , "गोंयच्यो चलयो हुशार म्हळ्यार शिकपाची तजवीज नाशिल्ल्यान फाटीं पडल्यात . ह्या कन्याशाळेन तरी मॅट्रीकमेरेन शिकोवपाची तयारी दवरूंक जाय . फुडें फुडें वचत रावपाचें सोडूंक जायना !"

हांवें फुडें म्हळें . 'गोंयच्यो चलयो बेळगांवां , पुणें , मुंबयबी वचून B.A., M.A., M.B.B.S. बी जातात , म्हळ्यार प्रमाण थोडें , कारण चल्यांक खंयय रावप तेंमानान सोपें , खर्चुय उणो , तशें चलयांचें जायना . गोंयांत कॉलेजां जालेबगर सगलें जाग्यार पडचेंना !

चलेय LICEU लिसेव म्हळ्यार सादारण INTER मेरेन शिकतात . तशेंच मेदिर्सीन , फार्मास , वकिली बी कोरसेसचे थंय दिप्लोमच आसात . डिग्रेक तेंकनात , कशीय तरी गरज मात भागता !

हे लडायेक लागून मात सगल्यांक बदल चलला . चल्यांक मुंबय येवन शिक्षण घेवप सोपें जालां . जायते क्रिस्तांवभाव आमचेपरस फुडें असात , ते येवरोप जावं अमेरिकेक वचून मुखावेलें शिकप करून आयल्यात . आमचे दोळे आतांच उगडटात .

"गोंयकार भुरग्यांक जाण्टयांक मुळापसून शिकपाची आवड . पोटाक मारून आनी तरेकवार त्रास काडून शिक्षण पदरांत घेवपाखातीर तांची धडपड " म्हजें म्हणणें हांवें सांगलें .

तांणी म्हळें , "वेलेवयर येवजिल्यार तुमचें म्हणणें सामकें खरें , पुणून , शिक्षण ह्या उतराचो अर्थ डिग्री जावं डिप्लोमा असोच जाता . इतल्यापुरतेंच सगलें मर्यादीत उरता . तांणी मुखार आपलो अणभव सांगलो . एकदां खंय ते पेडण्यांधरून काणकोण मेरेन इतिहासाच्या अभ्यासाखातीर भौ . पांडुरंगबाब पिसुर्लेकार आनी देवळांचेर जायतो अभ्यास केल्ले भौ . विष्णुबाब शेळडेंकार हांकां घेवन सगल्यांक गोंयभर भोंवले . चडकरून व्हडव्हड क्रिस्तांवाच्या घरांनी वचून आयले .

पणजी , वारदेस आनी साष्ट हांगाच्या पैयशेकार , भाटकारांगेर वयर सांगिल्ल्या दोगांच्याय वळखीन भोंवले , म्हळ्यार सगलेकडेन तांकां सुंदर फास्केंत घाल्ल्यो बऱ्योबऱ्यो डिगऱ्यो पळोवंक मेळ्ळ्यो , युनिव्हर्सिटींतल्या प्रोफेसरांबरोबर काडिल्ले फोटो , आपल्या

नांबांजलेल्या जाणटयांचीं रंगीत पांयजेलां , व्हडलीं जेवपाचीं मेजा आनी कदेलां , पुस्तकांनी भरिल्ल्यो कितल्योशोच निवळ आलमारीबी सगलें पळोवंक मेळ्ळें . तांणी आपल्या पलासीशाघरांनी तांचो बरो आदर सत्कार केलो . सामकें पाखल्याभशेन रीतरिवाज . पूण एकाय मनशान डिग्री मेळयतकूच ताचो कसलोच उपयोग करूंक ना . भायल्या लोकांनी संशोधन करून बरयल्ल्या पुस्तकांचेर ह्या लोकांचो पींड पोसला . ते आपूण येवरोपाक शिकिल्लें ते इल्लें इल्लें विसरूनच गेल्यात , भर कांयच घालूंक ना . वकील वर्साची वर्सा त्रिबुनालार पावंकना आनी दोतोर ओशिपतालांनी पांय दवरनात .

तांणी म्हळें , "अशें कित्याक घडटा ? सगलें हाताकडेन आसून पियोवन पियोवन काबार जावप कित्याक ? ताची विसकटणी करूंक जाय . निर्शेवन उपकरा पडचेनां " .

"पोर्तुगेज वायटच , पुणून ताणी गोंयांत छापखानो हाडलो , तरेकवार झाडांचो अभ्यास करून व्हड व्हड पुस्तकां बरयलीं . गार्फा तयार करून पाद्रीनी तरेकवार आंब्यांच्यो जाती तयार केल्यो , ब्राझीलाकसून अनस , कॉफी , बी तरेकवार नवीं फळझाडां हाडलीं . तांणी आमच्या ५०० वर्सांच्याच पयलीं घडून गेल्ल्या इतिहासाचेर बारीक विसकटणी करून बरोवन दवरलां . सगलो हिंदुस्थान पालथो घालो आनी गिन्यान मेळोवन बरोवन दवरलां . भौ . पांडुरंगबाबांनी जायतें दाखयलें . हो एक मनीस आपलो उद्देग करीत आसा . मुखार वचत रावला !

गोंयांत म्हाका खंयच फ्रांसिस्कु लुईस गोमीस , आबे फारीय , जिवबादादा केरकार , डॉ . भाऊदाजी लाड . धर्मानंद कोसंबो अशे व्हड मनीस जावपाचें कोणाक पडून गेला अशें दिसलें ना . सगल्या मोटया मोटया घरांनी म्हाका बरो मान सन्मान मेळ्ळो , ताथोमाथो बरो जालो . म्हळ्यार नवीदाद कांयच दिसलीना , सगलेकडेन कीण्ण ! राग धरूं नाकात ! गोंयकार त्रास काडटा तो डिग्रेखातीर , तातूंत थोडेभोव गिन्यान मेळटाय आसत , पणून तें मोटेंपण , पैसो . सुशेगाद बसून रावपाक आंवडेता आनी तें बरें सादलें की ताचें काम जालें . हेंच म्हाका सगलेकडेन दिसलें " ते निर्शेल्ले दिसले !

"आतां तुमी हांगा कन्याशाळेच्या चलयांखातीर संदेश मागपाक आयिल्ले . आयच्या चलयांक फुडें फुडें वचचेंच पडटलें . आपल्या कष्टांनी बायलमनीस सारकी आसल्यार घर उजळ उरता . आमच्या गांवांनी सगलेकडेन रोयणीचेर देवूळ बांदतात ताका सातेरीचें देवूळ म्हणटात . अशें देवीचें शांतरूप दुसरेकडेन पळोवंक मेळना . शांतादुर्गा म्हण्टा तीय सातेरीच . दुर्गेचे शांतरूप . सदांच बायलांनी कसल्याय प्रसंगार शांत रावचें , थण्डसाण सोडची न्हय . मात्त तसोच वेळ आयल्यार दुर्गा जालेबगर उपाय आसना . हेंय ध्यानांत दवरात . अशेंच कितेशें

बरयला हांवें तातूंत!

इतलें आयकतकूच हांव वचपाक उठलों. वतां वतां तांणी म्हळें, "हांव आतां खूब अशक्त जालां, भरीक ब्लड प्रेशरय त्रास करता. भौ. काशिनाथबाब आनी दोतोर डीलिमा म्हाका भुरग्यांभशेन सांबाळटात खूब उपकार तांचे!

कोंकणीचो वावर खूब उरला. मुख्य म्हळ्यार ऋग्वेदाचें भाशांतर तकलेंत तयार आसा. म्हळ्यार कोणय बरोवन काडपी जाय आशिल्लो. हांव सडसडीत सांगन म्हळ्यार ताका चार फावटी पडटल्योच. ध्यानांत धरात, कोणेंय थंडसाणीन हें काम करीत?

डॉ. डिलीमा दोळ्यांमुखार आयलो : "तांकां कसलेच त्रास उपेग पडचेनात. ते थंयच्या थंयच आत्ताक सोंपूंक् शकतात. सांबाळटात!"

पळयतां, भौ. काशिनाथबाबांकडेन उलयतां, अशें म्हणून हांवें गिरगावांची वाट धरली. वतां वतां हांव अजाप करतालों. ही मुंबय म्हळ्यार गोंयकार गिरेस्तांची खाण. हांगा लाखांनी रूपया पगार घेवपी गोंयकार आसात तशेंच खूब शिक्षीत. युनिव्हर्सिटी, कॉलेजांबी गोंयकारांनी भल्ल्यांत म्हळ्यार सगळे डिग्रयो घेवन सुशेगाद जावन बँक बँलस वाढोवपांत गुल्ल जाल्यांत. भौ काशिनाथबाब सुध्दा तांकां एक बरोवन काडपी भुरगो दिवपाक पावंकना. पयले 'कोंकणी भाशा मंडळ' कोंकणीची उदरगत करपाक स्थापन जालां खंय. १९४२ सालापसून आतां १९४५ मेरेन तांणी कसलो वावर केला देवाक खबर! इतलें चिंतून हांव म्हज्या कामाक लागलों.

हांव मुंबयक सामकोच नवो आशिल्ल्यान मुंबयकार गोंयकार म्हळ्यार मोठे कर्तृत्वी, तशेंच तांणी गोंयच्या देवळांक बी भरपूर मदत केल्या अशें आयकल्ल्यान, म्हाका आमच्या लोकांसंबदान कोणेंय वायट उलयल्यार राग मारतालो.

एकदां सहज उलयतां उलयतां भौ. दिनकरबाब देसायांनी "M.A.L.L.B., (सर्व्हंटस ऑफ इंडिया सोसायटीच्या मुंबय शाखेचे बरींच वर्सां सेक्रेटरी म्हणून काम करपी, हांणी) म्हाका म्हळें कीं गोंयकारांची खबरच काडूंक नाकात. पोट आनी हेर सुवार्थ ह्याशिवाय तुमचेकडसून कसलेंच काम जावपाचेंना, खंयची संस्था काबार कशी करची हें तुमकां विचारपाचें. आपल्याकडेन कसल्याच कामाक दिसूंक नाकात. हांव उलयतां हे तुमकां मात न्हय! वायट धरूंक नाकात. हांव उलयतां सगल्या समाजाक!

मागीर म्हाका तांणी खूब बरें केलें. कोंकणी भाशा मंडळाच्या मिटींगांखातीर Decent जागो दिलो गिरगावांत. पैशांची पसून मदत करपाची तयारी दाखयली. हें सगलें शणैबाब मरतकूच जालें.

हांवें घरा येवन भौ. काशिनाथबाबाक ही भौ. दिनकरबाबाली खबर सांगली. ते म्हणूंक लागले; १९४२ वर्सा "कोंकणी भाशा परिशदेचे ३ रे बसकेन कोंकणीच्या बाराय म्हयने वावराखातीर 'कोंकणी भाशा मंडळ' म्हणून एक संस्था काडली आनी ती १९४५ च्या सुरवातीक बंद पडली. ती खबर तांच्या मनाक लागून उरल्या म्हणून ते अशें उलयले. इतलें सांगून काशिनाथबाब वोगी रावले. मागीर कितले खेपो बंद जावपाचें कारण विचारल्यार तांणी कांयच सांगूंकना.

१९४५ वर्स सोंपता सोंपता म्हाका, "शणै गोंयबाबांकडेन" वचपाची हुकी आयली आनी भौ. काशिनाथबाब आनी डॉ. डिलीमा ह्या दोगांनीय, वचून यो म्हळें. एक गोंयच्या स्वातंत्र्याचो प्रस्न, ताचेर तांचें कितेंय सांगणें आसल्यार समजून घेवप, दुसरें कोंकणीचो ५० वर्सांचो वावर आनी ताचें फळीत कितें? गोंयचे शिक्षण, धंदे आनी उद्येग म्हणचेच शिकपाक आनी पोट भरपाक आमकां मुंबय धांव मारूंक जाय, तें कशें चुकोवप?

तांची प्रकृती पळोवन हें विचारपाचें अशें मनांत थारावन हांव गोमन्ताश्रमांत पावलों. तांणी म्हळें खूब दिसांनी आयले. मागीर कशे आसात बी अशी तांचे प्रकृतीची खबर घेवन जातकूच, हांवें तांकां म्हळें, 'गोंयच्या स्वातंत्र्याचेर तुमचें म्हणणें आयकूंक आयलां आतां कशाय भाशेन लढाय सोंपतकच, भारताक स्वातंत्र्य मेळळ्याबगर रावचेंना, तेन्ना गोंयकारांचें कितें जातलें अशें तुमकां दिसता? तेन्ना सर्गेस्त लोहिया गोंयां पावंक नाशिल्ले.

ते म्हणूंक लागले, आतां आपल्याक कितेंय येवजुपाचेंपासून त्राण ना. वता तो दीस खरो अशें दिसता. म्हळ्यार मनांत येता तें तुमचेमुखार मांडचें, नाजाल्यार सगलें मनांतच उरतलें. अशेंय दुसरेवाटेन दिसता!

तांची प्रकृती म्हाका बरी दिसली. पणून बेठीच काळजी घेतिल्ली बरी असो विचार मनांत येवन हांवें थारायलें. हांवेंच सगलें चडशें उलोवचें आनी तांणी तितल्याक तितली जाप दिंवची म्हणून हांवें परतून म्हळें. तुमी गोंयकारांचो २५०० वर्सां फाटलो इतिहास धवळून काडला. आतांमेरेन गोंयकारांची नाडी तुमी पारखिल्या जातलीच. म्हात्मा गांधींचीं ब्रिटीश सरकाराकडेन आज कितलीं वर्सा झगडीं चालू आसात. तातूंत गोंयकारांचो वांटो आसा, ? जाल्यार तो कितलो? हाचो अदमास घेतल्यार पुरो, आमची शक्ति तुमच्या ध्यानांत येतली.

तातूंत कोंकणी भास आनी स्वातंत्र्य हे दोन प्रस्न अशें म्हाका दिसना. पोर्तुगेज गेलो की दुसरो भाशेचो प्रस्न सुरू जातलो. पोर्तुगालाचो प्रस्न हो चारशीं, पांचशीं वर्सांचो आनी ताची जबाबदारी भारताचेर घालूंक आमकां मेळटली अशेंच न्हय तर भारताक घेवचीच पडटली. म्हळ्यार गोंयची भास कोंकणी हें पटोवपाक आमकां हजार अडचणी येतल्यो. मदत

मात कोणाचीच जावंचीना अशी म्हाका खात्री दिसता . चडशा गोंयकारांक मागीर तातूंत चड वांटो हिंदूचो , म्हळ्यार क्रिस्तांवांक पोर्तुगेज गेल्यार इंग्लिश भास चड उपकारतली . हांगा ते इंग्लिश वापरतात आनी हिंदू म्हणटले मराठी आसा तीच बरी , हेंगाडी कोंकणीचो उपेग कितें ?

म्हणून तुमकां विचारतां आनी तुमीय चार उतरांनी सांगचें की आमी अमूकतरेन वागूंक जायं .

तांणी म्हाका उरफाटयान विचारलें , गोंयच्या तमाम लोकांक आपूण स्वतंत्र जावचें अशें खऱ्यानीच दिसता ? तुमी हांगाय वर्स देड वर्स जायते भोंवतात अशें आयकतां , जाल्यार गोंयकारांकडेन तुमी उलयल्यांच जातले जाल्यार तांचें म्हणणें कितें ?

हांवें म्हळें हे लडायेन सगलेकडेन खवदोळ घाला . साम्राज्याच्यो बुन्यादी हालूंक लागल्यात . सगल्या लोकांक स्वातंत्र्य जाय ह्या संबंदान दुबाव घेवपाक जागो ना . फकत दरएकल्याची येवजुपाची रीत वेगळीः कोणाक दिसता पोर्तुगेजूय बिडकी कवळतले तेन्ना आमकां कांयच करपाची आनीक गरज ना . गोंयची भाशा मराठी म्हण्टकूच आपशींच महाराष्ट्रांत पावन प्रस्न सुट्टलो . इतलेंच न्हय , आमी महाराष्ट्रीयन जाल्यार नोकऱ्यो हक्कान मेळटल्यो .

विचारवंतांचो हो समाज एक खबर ध्यानात घेना की सालाझार म्हणटा तो धर्मांध विव्दान . इंग्लंड , अमेरिकाबी ताका बुध्द दितली की तुका गोंय सोडल्यार , आंगोल , मोसांबीक , गिनॅ बी सोडचें पडटलें तेन्ना धीर धरून राव . शिवाय भारत सरकाराच्यो स्वातंत्र्याउपरांत विवंचना वाडटल्यो . तेन्ना एद्याशा गोंयांखातीर वांकडेपणा कित्याक , आपूण हो प्रस्न मनात आयल्यार रोखडोच सोडयतलो , म्हणून नेहरू म्हण्टाले , आमकां सगल्या वांटांनी येवजुचें पडटलें .

ते म्हणूंक लागले , तुमी सांगतात तें खरेंकाय फट हें आपल्याच्यान सांगूंक जावचेंना आनी आपूण आयचें गोंय मातपसून वळखना . गोंयांत पावल्यार जायतीं वर्सां जालीं , आतां तर घरा भायर भोंवपाचेंय उरलें . गोंयकाराचो म्हणून एक सभाव आसा , खंयचोय प्रस्न मुळांतसून सोडोवपाची आमकां वानसा ना . फायचें फाल्यां पळोवचें अशें म्हणून हातपांय पांगरून सुशेगाद बसप . आपूण आपणांक आनी देव समस्तांक .

म्हाका गोंयचो पोरणो इतिहास अभ्यासपाक हिसपा भायले कश्ट पडले . पोरण्या पुस्तकांत सांगिल्लें तें जागे निश्चित करून घेवंचे पडले . किरकोळ प्रकृतीचो मनीस हांव . म्हळयार ह्या वावराक खंयच उणें पडूंक दिवंक ना !

म्हळ्यार आमच्या शिकलेल्या भुरग्यांचे जावं , जाण्टय़ांचे सांगता तुमकां ,

वसणुकीचेर व्याख्यानाच्या वेळार फाटल्यान म्हजो चोळो ओड, म्हज्या रूमालाक हातमार, बेठोच मोटया मोटयान हांसून बोवाळ कर, अशें शिकिल्ले सवरिल्ले मनीस करताले. हांव घट रावलों हो! सगलीं व्याख्यानां हट्टान सोंपम्हणसर सोंसलें. (१९२७ साल)

तेन्ना गोंयच्या प्रस्नाची तुमी आपूण जावन सोडणूक करची पडटली. एकटया दुकटया मनशाचें काम न्हय तें, सारकें आयकून घेयात!

एक दोतोर तुमी कितें जाता तें सांगलेबगर वखद फर्मावचोना. ते पयलीं तुमकां कितें कितें जाता, ताची सारकी चवकशी करतलो. मागीर असलो रोग तुमच्या आवय जावं बापायवटेन कोणाकूय आसा जाल्यार वासपूस करतलो. मागीर आपूण तपासून पळोवन, रगत, थुकी, गू, मूत सगलें तपासून ताचोय रिपोर्ट हाड म्हणटलो. एका दुकल्यो आनीकय तपासण्यो X Ray बी काडून रिपोर्ट वाचून पळयतलो आनी मागीरूच वखदाची माणणी करतलो. तुमकां गूण पडपाखातीर ताका थोडो वावर करचो पडना!

तशेंच गोंयांखातीर करचे पडटलें कितल्याशाच वर्सांचें पोरणे दुयेंस हें, तेखातीर तुमी पणजेंत, मडगावांत, जावं म्हापशां बसून आपूण सगल्या गोंयचो लीडर म्हणून मिरोवंक मेळचेंना सगलें गोंय पायांनी माडोवन लोकांक कितें जाय, कितें नाका तें पळोवन मागीरच ताचेर सगल्या तज्ञांकडसून रिपोर्ट मागचे पडटले. तेन्नाच उपाय करूंक मेळटलें. म्हळयार एक मनीस-म्हापुरूस-भारतांत आयलो आनी ताणें चारूय दिशांनी भोंवन सुलूस घेतली. व्हड व्हड विव्दानांक आपल्याबरोबर जोतीं झरोवंक लायलीं. केदें काम हातांत घेतलां हो तांणी?

तुमकां आनीक आनीक पयस वचूंक नाका. मुंबय बसूनच कशेतरेन हो वावर चलला ताचो अदमास घेवंक मेळटा. हेंच पळयल्यार पुरो!

तुमी उद्येग धंद्याचो प्रस्न विचारलो ताची जाप उरली.

गोंयचें नाल्लाचें उत्पन्न मोटें. तेफाटोफाट काज आनी आंबो. म्हळयार आमी ते उत्पन्न पातमारीनीं भरून मुंबय, मंगळूर, कोचीन. त्रिचनापल्ली बी जायतेकडेन जशाक तशें व्हरून विकून उडयतात. दर जीन्ना चालू आसता ती मोन्यानी घेतात.

हो वेपार आज कोण तेंप चलला आनी तातूंत खर्च करून थोडो पैसो सुटटा, ना अशें न्हय.

आतां आमी लातांतलें तेल निवळ करून एके शिंसलेंत भरचें आनी तातूंत चार चेराचे थेंब घालून ताका HAIR OIL म्हणून छापून विकचें

हें एक काम साधलें जाल्यार मागीर एक उद्येगांची माळूच गोंयांत सुरू जातलीं. कोण आंब्याच्यो फोडी, रोस, मुरांबो करून काजू बियांचीं कापां करून, कोण कोण कितें

आनी कोण नवी नवी भर उद्येगात पडत रावतलीं. फायदोय चड आनी आपल्या लोकांक काम.

तेउपरांत व्हडलीं कामां हातांत घेंवची पडटलीं. आरंबाक हे सोंपें काम सांगलें. तातूंत थोडोभोव पैसोय मेळटलो आनी जायत्या जाणांक काम मेळटलें आनी तातूंत पोटाच्या प्रस्नाचो सुटावो जातलो.

गोंयांत पोर्तुगेज धनी जावन रावले म्हळ्यार वोगीच हातपांय पांगरून बसलेनात. तांणी गोयांत पयलो छापखानो हाडलो. तांच्या पाद्रींनी आंब्याच्या ताळयांचीं गार्फां करून तरेकवार जाती करून दाखयल्यो, ब्राझिलाकसून अनसासारकीं फळां हाडून हांगा रोयलीं, वखदी आनी हेर झाडांच्यो वळेरी करून वेगळ्या वेगळ्या जातींनी वांटून घालीं आनी पुस्तकां छापलीं. आजपसून विव्दानांक त्या पुस्तकांचो आदार जाता.

अशेंच काम डॉ. भाऊ दाजी लाडांनी मुंबयंत करून दाखयलें. त्या मनशान संस्कृत पुस्तकां वाचून महारोगाचें वखद सोदून काडलें. खश्टांच्या बियांचें तेल घेवन आपल्या ओश्पितालांत जायते लोकांचेर उपचार केले. मागीर पोरण्यो वस्तू, तरेकवार वखदां झाडां रोवन 'व्हिक्टोरिया गार्डन' तयार केलो. नशिबान तांचो घात केलो, पयसोय बुडलो आनी पिडेन कूड पोखरून तांकां मरण आयलें.

जर्मन, इंग्लेज आनी अमेरिकन लोक हांगाचीं पुस्तकां व्हरून संस्कृत शिकून आमच्या ऋशींनी बरयल्लीं पुस्तकां तपासून वेगळ्या वेगळ्या व्याधींचेर उपाय सोदून काडटात. आमचे गोंयकार दोतोर वर्सांची वर्सां तींच तींच वखदां बरोवन दिवन खर्शेतात. म्हळ्यार नव्या वखदांचो विचार तांच्या तकलेंतपसून येना.

आमचो दोतोर म्हणटा कॅन्सर ह्या व्याधींचेर वखद ना. व्याधी आसा थंय वखद आसताच, पुणून पाखल्यांनी पुस्तकार वखद ना म्हळां, म्हणचेच तांकां वखद मेळूंकना जाल्यार ते आमी सोदून काडचें, पुणून काम करपाची वान्साच कोणाक ना हो!

आतां म्हाकाय पुरो जालां, उलोवन उपकारना! जायतें सांगपाचें आसा, म्हळ्यार आनीक एक गजाल सांगून सोंपयतां, तांणी म्हळें!

आमच्या गोंयांत एक खिळोपसून भायलो हाडूंक जाय. खरें मूं हो? म्हळ्यार येवरोपांतले लोक व्हड व्हड दुर्बिणी तयार करून गिरावळीचो अभ्यास ताणीं चलयला. एका गिऱ्यावयल्यान दुसऱ्या गिऱ्यार वचपाच्या उद्येगाक लागल्यात हो ते! आमचो गोंयकार तांच्या बराबर आसात हो ह्या वावरांत?

तेन्ना ही सगलीं परिस्थिती तुमच्या मुखार दवरल्या तुमी बरेकरून येवजून पळयात

कितें करपाचें तें आतां हांव चड तेंप उरचोना . पिडेन सगलें शरीर पोखरलां . फुडले फावट उलोवंक मेळत ना मेळत ह्या हुसक्यान जाता नजो करून उलोवन गेला . पटल्यार घेयात , नाजाल्यार सोडून दियात !

थोडो वेळ आमी वोगी बसले . हांवे म्हळें , हांव तुमकां आनीक त्रास दिना . पूण एक निमाणो प्रस्न विचारतां वतां वतां !

तुमी कोंकणी भाशेंत जायती सरस्पत घडयली . आमचो २५०० वर्सांचो इतिहास घणघणीत आमचे मुखार उबो केलो . कोंकणी मनीस वेळ पडल्यार केदो कर्तृत्वी जाता हेंय सांगलें . भौ . काशिनाथबाबांनी तुमकां जाय तशी साथ दिवन तुमचीं पुस्तकां रोखडया रोखडीं छापून काडलीं . भौ . माधवबाब मं . शानभाग डॉ . सुमित्र मं . कत्रे , रावबहादूर तालमकी , रामचंद्र शंकर नायक , रामचंद्र नारायण नायक हे आनीक जायते लोक तुमचेकडेन आदरान पळयतात हेंवूय खरें .

कोंकणीत बरेतरेन सगली माहिती दिवपाची तांक आसा , तशेंच तिची निजाची लिपी देवनागरी . शिवाय तिचें व्याकरण बरोवन दवरून तुमी आमचेर व्हड उपकार केलें . तुमी दाखोवन दिलें की गोंयची भास फकत कोंकणी आनी तीच हजारांनी वर्सां लोकांचे जिबेर घोळटा . हें सगलें तुमी चडसो कोणाचो पालव नासतना करून दाखयलें . तुमचे उपकार व्हडले !

म्हळ्यार ५० वर्सांच्या वावरान देवनागरी लिपयेंतलें एक दिसाळें सोडाच . पणून एक म्हयनाळेंपसून ना . नवीं पुस्तकां छापपाचो वावर बंद पडला . भौ . काशिनाथबाबांचें म्हणणें ही रास पुस्तकांची पडून आसा . आमचें एक वाचनमंदिरूय ना . एक भुरग्यांखातीर हांगा सोडाच . तर गोंयांतपसून शाळा ना . ल्हान व्हडांक वाचपासारक्यो नव्यो नव्यो गजाली छापून येनात . हांव आज स-आठ म्हयने ल्हान व्हड गोंयकारांगेर भोंवत आसा . ४ ते ५ मजले चडून , एखाद्रे पुस्तक खपल्यार व्हडलें . गोमन्त छापखान्यान धा-बारा पुस्तकांचें मोल १० रूपया जायत १० .५० रूपया जायत , इतले उणें दवरलां . लोकांकडेन मात पुस्तक न घेवपाक कसलेंय ना कसलें निमित्त हटकून आसता . लाखभर लोकांच्या वस्तींत वेव्हाराची ही तरा ! म्हण्टकूच तुमच्या वावराचें चीज जालें अशें तुमकां दिसता ? ते धीराचे म्हापुरूस म्हणून तांच्या तोंडार हो हिशोब मांडलो ! हें सगलें आयकून ते बेजार दिसले . तांच्या तोंडार निर्शेवणी स्पश्ट दिसली . खरें म्हळ्यार हें हांवे तांचेकडेन उलोवपाचें न्हय . बरें नाशिल्ल्याक ही परवड सांगप योग्य जालेंना . पुणून निमाणें हें सगलें सांगप तरी कोणाक ? दुसरो मनीस कोण आसा जो हाची जाप दीत ?

तो जाण्टेलो घडीभर निर्णलो . पुणून रोखडोच सांवरलो . सावध जालो आनी म्हणूंक

लागलो, तुमी सांगता तातूंत कितेंच गैर ना. खंय तरी आमचेंच चुकलें!

म्हळ्यार एक सांगात, फाटल्या स म्हयन्यांत म्हजेकडेन दोगजाण कॉलेजांत शिकपी भुरगे Ph.D. क मार्गदर्शन मेळत काय म्हणून विचारून गेले. हांवें ना म्हळें! तांकांय म्हजी अवस्था पळोवन वायट दिसलें. आतां तुमी दोन तीनदां येवन आपलो पयसो आनी वेळ खर्च करून अजून येत आसात. आठ धा स्टेशनां काडून. म्हजीं पुस्तकां खंय तुमी खपोवन काडल्यांत, कमीशनबी कांयच घेवंकना. आपल्याच खर्चान हांगा थंय भोंवत आसात, अशे काशिनाथबाब म्हणटात. हें कित्याचें लक्षण? म्हणचेच बीं योग्य जाग्यार पडलां. झाड जावंक वेळ लागचोना!

तुमी सांगलां ते खरें धरूनूय हांवे आस्त सोडूंक ना. म्हजो वावर कसोच फुकट वचचोना. तुमचे सारके भुरगे तो मुखार व्हरतले. हांव आतां निश्चिंत जालां!

तांच्या तोंडार समाधान दिसलें. हांवें आशीर्वाद मेळयलो आनी तांकां बरें चिंतून परत गिरगांवात रूजू जालों.

म्हज्या उलोवण्याचो परिणाम ताचे प्रकृतीचेर जावंचो न्हय हें हांव देवाकडेन मागतालों.

आतां हें सगलें सांगून जातकूच, तांकां प्रकृतीचे त्रास म्हण्टा ते कितें जाताले हें सगल्यांच्या कानार घालतां.

खूब लोकांचो समज जातालो की भौ. काशिनाथबाबच तांकां मेळूंक दिनात. तरे तरेचीं आडमेळीं हाडटात, अशेंच दिसतालें. दोन दोन म्हयने डॉ. डिलीमा तांकां मेळूंक दिनात म्हळ्यार कितें? जेन्ना केन्ना तांकां मेळून येतां तेन्ना ते सामके नोर्माल. इतल्यांत एक दीस असो आयलो. ज्या दिसा तांच्या वायटाचो अणभव हांवें घेतलो. आनी मागीर मात हांवें जावन तांकां मेळपाचें परमीशन मागूंक ना.

एक दीस, आयतार त्या दिसा ९-९.३० वरांचेर छापखान्यात भौ. काशिनाथबाबांक जर मेळ जाल्यार ते बोवाळांत आशिल्ले दिसले. बेगीबेगीन फोनार उलयताले. सगलेच घुस्पटल्लेभाशेन जाल्ले. हांवें तांकां कसली ताकतीक, कितें जालां काय म्हणून विचारलें. त्या उतराक तांणी "शणै गोंयबाब बरे नात. रातीं दोनदा आखडून आयिल्लेवरी जावन दोनदां जीव वचून पडले. रातचो फोन आयलो आनी आपूण पाल्र्याक वचून सगली रात थंयच काडून फांतोडेर ४ वरांचेर परतलों". अशें सांगून कोणाकोणाक तांचे फोन करप चलिल्लेच.

इतले म्हणसर सकाळचीं १०.३० वरां जालीं आनी इतल्यांत भौ. काशिनाथ लाड तयार. आमी तिगूयजाण मागीर ११.१५ वरांचेर सुमार पाल्र्याक तांगेर पावले. सगल्याक

किण्ण आशिल्लें . शणै हांतुणार न्हिदिल्ले , कपलार एक कुडक्याची घडी , हड्ड्यावयर पांगरूण घेतिल्ले आनी तांकां परवण लागिल्ली . दोळ्यांत पिशावरी नदर आनी बायल तांकां वोखद घेवपाक आग्रो करताली आनी तांणी नाकाच म्हणून हट्ट धरिल्लो . व्हडलो चलो म्हऱ्यांत आशिल्लो आनी धाकलोय म्हऱ्यांत बशिल्लो . दोतोरान सांगिल्लें खंय , एकाद्रो तांका हार्ट ॲटॅक येवन वचत , म्हणून मातपसून तकालस जांवक जायना तांकां .

आमी तिगूय दनपरां १ .१५ वरांचेर परतले . तांकां मातपसून वळख नाशिल्ली . ते विचारताले- “लाड कोण ? आमोणकार कोण ?” एकसारके दोळे ताणून ताणून पळयताले आमी हालसर !

ही तांच्या दुयेंसाची तरा पळयतकूच भौ . काशिनाथबाब जायते धिरीष्ट दिसले . तांचें कितेंय बरें वायट जाल्यार तांकां एक आदार म्हळ्यार भौ . काशिनाथबाब . तांचो जावं डॉ . डिलीमाचो काडयेचो दोश नाशिल्लो . मदींच तांची भलायकी सामकी सुदारताली प्रेशर सकयल देंवतालें , तेन्ना वर दोन वरां ते दोगूय व्हड मनान आपल्या जबाबदारीचेर म्हाका मेळूंक दिताले .

आतां तांच्या निमाणे प्रयाणाची खबर !

शणै गोंयबाब सकाळचे ८ .३० वरांचेर भायर पडले . दीस ९ एप्रील १९४६ मरचे पयलीं ते भौ . काशिनाथबाबांकडेन आपलें फुडें कितें करचें हे संबंदान उलयल्लें . दोन दीस ओस्पितलांत उरले म्हळ्यार तांकां चडसो कोण मेळुंकूच वचूंकना . ते सारके शुध्दिर नाशिल्ले . भौ . काशिनाथबाबांक ही खबर मनाक लागली . त्या मानी मनशाच्या लक्षांत ही गजाल आयल्याशिवाय रावंचिना . हेखातीर न्हय , पुणून खूब तेंपाच्या दुयेंसांनूय तांच्या मनाची घडण विचित्र जाल्ली . घरचीय परिस्थिती सामान्याभायली आसली .

गोंयकारांकूच न्हय पुणून अख्ख्या कोंकणपट्टीक एकठांय अभिमानान जगपाक , तीस ते चाळीस लाख लोकांक , तांचो फाटलो इतिहास सांगून तांणी जाग हाडिल्ली अनी कोंकणी भाशेन तांकां एके दोरयेन घट बांदिल्लें . म्हळ्यार ह्या मनशाक आज सगलो लोक विसरून गेल्लो .

तांणी आपल्याय पुतांक आनी भौ . काशिनाथबाबांक सांगलें खंय , तांणी दोगांनीय ओस्पितलांतसून भायले भायर आपली कूड रोखड्यारोखडी सोनापूराक व्हरून लासून उडोवची . मंत्रतंत्रांत घुस्पून बारावो वी करचो न्हय . तांचो कर्मकांडाचेर विस्वास नाशिल्लोय जावंये . आनीक खंय तांणी सांगिल्लें . लोकांक जमोवंक नाकात . तरीपूण भौ . काशिनाथबाब एकसारके फोन नंबरांची वळेरी घेवन बशिल्ले . तांकां थार नाशिल्लो . इतल्या वर्सांचो घनिष्ट




संबंद सोंपिल्लो . मुख्य म्हणचे तांचो व्हडलो पूत बापायचे सांगणेर ठाम रावलो .

एक दीस हांवें बँकेंत पाय दवरलां मात , रोखड्या रोखडो फोन तयार . "आसा तशे येयात "शणै" गेले . गोमन्तक छापखान्यांत येयात" तांच्या छापखान्यामुखार एक शिमीट काडिल्लो व्हडलो कंपाऊंड आसा थंय गाड्यार तांचो देह धव्या फुल्ल कपड्यान धांपिल्लो आशिल्लो . ताचेर कांय फुलां माळोबी घाल्ल्यो आशिल्ल्यो . मागीर "गोमन्तक छापखान्याचो" खूब व्हडलो हार गुलाबाचीं आनी बाकीची वेंचीक फुलां , भांगराची खूब कीस आनी चार-स इंचाचेर एक इंचभर रूंद आनी स ते आठ इंच लांब छापी कागदाची पट्टी , जाचेर "नवें गोंय" अशें दर कुडक्यार मोट्या तांबड्या अक्षरांनी छापिल्लें . गोमन्तक छापखान्याची त्या मनशावयली श्रध्दा पळोवन (म्हाका केन्नाच कित्यांतच व्हडलें कांय दिसना) म्हळ्यार ह्या दोनूय भावांची तांचेवयली श्रध्दा पळोवन हे कांय शिक्षण नाशिल्ले दोगूय भाव खरेपणान शिक्षीत हे ठामपणान जाणवलें . ह्या दोगांय भावांनी शणै गोंयबाबांच्या मोटेपणाक फावोशी ही एक वस्त तांच्या गळ्यांत आडखळायल्लीं .

इतलेय फोन नंबर घुंवडावन धा बारा जाणांपरस चड लोक जमलोना : भौ . यशवंत सुर्याजी सुर्याराव सरदेसाय (भाई देसाय) , शणैचो व्हडलो चलो रघुनाथ , काशिनाथबाब आनी तांचो भाव अनंत नायक , काशिनाथबाब लाड , कवी बाकीबाब आनी तांचो बापोलभाव वसंत बोरकार , महाबळेश्वर सरदेसाय , एफ् . जे . मारतिरीश , आमोणकार , श्रीपाद र . देसाय , रामचंद्र नारायण नायक जावंये . तेभायर एक मनीस भट आसुंये एखादेवेळार . आतां याद चडशीजायना . १९९४ साल हें ! अदमासान हें सगळें बरोवन काडलां .

थंय येन्नादर एक वाद चलिल्लो त्या लोकांचे म्हणणें की शणै गोंयबाब आतां ह्या संवसारांत ना . तेन्ना त्या बरें नाशिल्ल्या मनशान वितरागान कितेंय सांगिल्लें तें जशाक तशें आयकुचें अशेंच ना . जमिल्ल्या सगल्यांनी मेळून पन्नासावयर फोन करून दर एकल्यान आपले दोन तीन वळखीचे लोक भरभर हाडचे अशें तांकां शिटकायला . तेन्ना स वरांमेरेन वाट पळयली जाल्यार तीन एकशीं लोक जमून तांकां फावोशी निमाणी यात्रा जातली .

हांवें म्हळें ह्या मनशान केन्नाच सगल्या जिणेंत मानमरातब आशेले नात . आतां १२ वरां जायत आयलीं जाल्यार तुमी फोन केल्ल्या लोकांनी एक फावट मारूंक ना . ३ वरां हें प्रेत ह्या लोकांची वाट पळयत दवरलां , तुमकां मोटेपणाच फकत दिसतात , त्याफुडें मनीसपण एकल्याकूय ना . हाचेर तांच्या चल्यान ठाम रावन आतांच व्हरूंया म्हणून हट्ट धरलो सदांच काशिनाथबाब हांवें कितेंय सांगल्यार ताचेर मनापसून लक्ष दिताले . शिवाय आता एप्रील म्हयन्याचे प्रखर वत आनी सकयल डांबराचो तापिल्लो रस्तो सगल्यांक जाणोवंक लागलो .

निमाणें एक निर्णय एकमतान जालो कि कळाव लायनासतना प्रेत छापखान्यांच्या दारांतलें हालोवचें आनी मागीर १५ दिसांनी जावं म्हयन्यान सगल्यांच्या मत्तान एक हॉल थारोवन भाशा मंडळाचे मेंबर , कोंकणी परिषदेचे म्हाजन आनी बाकीच्या हिंदु आनी क्रिस्तांव संस्थांचें मत घेवन व्हडलो तांकां सोबसो समारंभ करचो . ही तडजोड सगल्यांक मानवली आनी लोक गाडयेसयत फुडें फुडें सरूंक लागले .

तकली सकयल घालून यात्रा चालू जाली . ह्या मनशाक भाशा मंडळाचेपसून लोक आयले नात . म्हणूनय जावंय दर मनीस ही दुर्दशा पळोवन विरघळून गेल्लो . थोडो वेळ कोणूच कांयच उलोवंक नाशिल्लो फुडें पावतकूच दर एकाक दिसलें जालें हें बरें जालेंना !

हांवें म्हळें , हें आतां सगलें घडून गेलें , ताका रडत बसचेपरस हे फुडें ताचेंखातीर कोंकणीचें जायतें काम पडलां , ते दर एकान मनापसून करतकूच जालें . पिरंगून कांयच जावप्राचें ना !

सोनापुरांत भितर सर जाल्यार प्रेतां जाळपाचो एकूय जागो रिकामो ना . म्हण्टकूच तांचो गाडो रिकामो करून कुशीक प्रेत उबारून दवरलें . मागीर वरांभरयान जागो रिकामो जालो तो निवळ करून आमी सगल्यांनी प्रेत सरणार दवरलें . एकदाचें मागीर वरांभितर सगलें जळून गेलें आनी एक अध्याय सोंपलो .

मागीर खरेलेंच एक म्हयन्याभरयान १२ मेक . ब्लॅव्हटस्की हॉलांत व्हडली सभा जाली , तातूंत २३ संस्थांनी भाग घेतलो . सगळें केरळ धरून सावंतवाडीमेरेन लोक थंय गच्च भरिल्लो . हिंदू आनी क्रिस्तांवांच्यो सगल्यो संस्था तांच्या कामाची तोंडभरून तुस्त करताल्यो . मुख्य उलोवपां तीग जाणांचीं जालीं . एक भौ . अनंत काकबा प्रियोळकार जो तांचो एकेवेळचो शीश्य आसून तांकां इतिहासाची गोडी भौ . वामनबाबांनी लायली अशें तांणी मोटया व्हडविकेन सांगलें . मागीर प्रा . वसंतराव नारायण नायक ह्या नांवाजलेल्या विव्दानान सांगलें की भौ . वामनबाब हे संसारांतले एक व्हड कथाकार तांची ' म्हजी बा खंय गेली ' ही एक जगाच्या इतिहासांत पसून अव्दितीय अशी कथा जावन उरतली . तांचे वसणुकेच्याय उलोवपाक ते हाजीर आशिल्ले . ह्या इल्ल्याशा मनशान जी नामना जोडली ताची तांणी तोंड भरून तुस्त केली . मागीर अध्यक्षान आपल्या वराभराच्या भाषणांत तांच्या सगल्या साहित्याची तोखणाय करून आपलें उलोवप सोंपयलें . हे बायलमनशेचें नांव सौ . कमलाबाय सुंदरराव दोंगरकेरी . मागीर संस्थेन एक थारावणी करून सभा सोंपयली .

भौ . काशिनाथबाबांक अध्यक्षपद मेळोवपाक खूब कठीण पडलें . दर एकाचें म्हणणें आमकां अध्यक्ष जावपाक सांगप म्हळ्यार व्हडलो मान कसो . म्हळ्यार महाराष्ट्रांत रावन

मराठीकडेन वांकडेपण येत हाचो भंय आसा. डॉ. दोंगर केरीचेय हेंच म्हणणे, आपूण युनिव्हर्सिटीचो रजिस्ट्रार आसा, सरकाराकडेन आपलीं खूब कामां, तेन्ना आपल्याक बेठोच अडचणीत घालचो न्हय. पूण तांणी एक काम केलें तें शणै गोंयबाबांच्या कर्तुत्वाक लागून काय आमची अध्यक्षाची अडचण. पळोवन हें समजूंक मार्ग नाशिल्लो. भायर तांचे वायलेन ना म्हळें, पुणून तांणी भितर वचून तिका भाशण बरोवपाक मदत करपाचें मान्य केलें, आनी आमचो प्रस्न निकलांत काडलो. दोन वरां वाटाघाटी करून मळबार हिलावले तांचे घरांतसून गिरगांवांत येता म्हणसर ८ वरां जाल्लीं. आमकां दोगांकूय पुरो जावन गेल्लें.

येदो व्हडलो समारंभ कटकटीशिवाय सोंपलो. आनी आमी फकत १३ जाण त्या दिसा स्मशानांत आशिल्ले, भाशा मंडळाचे मेंबरांकपसून येवपाक फावलेंना हें विसरून गेल्लें.

मागीर सगल्यांकूच नेट आयलो. एक लाख रुपया जमोवंक एक कमिटी तयार केली. तांची नांवा बरोवन काडलीं. त्या पयशांनी एक वर्तमानपत्र, ल्हान, व्हड सगल्यांक वाचपाखातीर पुस्तकां, स्वतंत्र बरोवंक जमना जाल्यार भाषांतर, रूपांतर बी तशें, कादंबऱ्यो, संगीत नाटकां कितें आनी कितें. सगलें मोराभाशेन उडतूच भोंवतालें.

म्हळ्यार प्रत्यक्ष हातांनी कांयच जालेंना फकत "भाशा मंडळाची" घडी परत बसली आनी पुस्तकांभितर एक पुस्तक "महात्मा गांधीजींचें सुपुल्लें चरित्र १०० एक पानांचे आमच्या भौ. रामचंद्र नारायण नायकानी बरोवन हाडून दिलें. ते अजुनूय छापूंक ना काय दिसता. गोमन्तक छापखान्याच्या हवालीं केल्लेंय आसत.

वयर हांवें म्हळां की क्लेव्हॅटस्की हॉलांत शणै गोंयबाबांच्या उगडासाक सभा बरोवन आर्गा ओंपलीं ते सभेन खेद व्यक्त करून एक थारावणी केली, ती मुखार दिल्याः

"कोंकणी भाशा मंडळ आनी मुंबयंतल्यो हेर एकवीस संस्था हांच्या एकचारान भौ. सौ. कमलाबाय दोंगरकेरी हांगेले अध्यक्षतेन मुजरत भरिल्ली कोंकणी लोकांची ही सभा "शणै गोंयबाब" म्हळ्यार शणै वामनबाब रघुनाथ वर्दे वालावलीकार हांच्या मर्णाचो खेद धरता आनी ताचे संबंदान आपणाल्या मनांत आशिल्लो आदर उक्तो करता. शणै गोंयबाब कोंकणी भाशेचे एकनिश्ट भक्त आणि होरावपी आसले. तिची तांणी जल्मभर सेवा केली आनी आपल्या अजापाच्या तेजवंत बरपावळींत सरस्पती देवीच्या मंदिरांत तिका माना भोवमानाचो पाट मेळोवन दिलो. हे तांगेले पोट-तिडकेचे सेवेन कोंकणी लोकांक तांणी सासणाचे उपकारांत दवरले हातूंत दुबाव ना. आवयभाशेक खळ नासताना होरावपांत तांणी तांगेली उणीपुणी सगलीच जीण घालयली आनी तिका गिरेस्त केली. विद्येची सामान्याभायली रूच, म्हत्वाचे इतिहासिक सोद, भाशेची चिकित्साय आनी जल्मभुंयेचो फावो जाल्लो अभिमान हे तांचे जिणेचे मुखेल

दुवे आसात . असल्या भारीभूशणाच्या आनी कर्तृत्वी पुरूशाच्या मर्णान आमचें सगल्यांचेंच अपरिमीत लुकसाण जालां हें ही सभा उक्तें करून दाखयता . शणै गोंयबाब विव्दान आसलेच . पूण तांच्या मनाक गर्वाचो वास नासलो . ते थंड सभावाचे , थीर मनाचे आनी निबर अंतस्करणाचे पुरूश आसले . इश्टागत करूंक फावो जाल्ले गूण आनी बरेपण तांच्या आंमांत उपाट भरिल्लें . एका विद्यार्थ्याक सोबशेतरेन तांणी सरस्पती देवीची जल्मभर कडकडीत भक्ती चलयली आनी तिचे दयेचो प्रसाद जोडलो . कोंकण , कोंकणी लोक आनी कोंकणी भास हांचेर तांचो उपाट मोग आसलो . हाचेखातीर तांणी आगळी उणी पंचावन्न वर्सा खर निबर तपश्चर्या केली आनी क्युबा साकून ब्रह्मदेशामेरेन आनी कैलासाथाकून कुमारी मेरेनच्या कोंकणी लोकांक धर्म आनी जात विसरूंक लावन एके माचयेर हाडलें आनी कदीम काळपसून तांचे मजगत पडिल्लें खांवटें भरून काडलें हेखातीर उपकारान भारावल्ल्या मनान आनी अभिमानान भरिल्ल्या आदरान तांच्या उगडासान ही सभा नम्रतायेन तकली बागयता आनी तांच्या सत्वशील आत्म्याक थंडाय मेळची अशी मागणी करता ".

---

**पान ७८/७९ शणै बाबाचो दुखवटो**

**"शणै गोंयबाब" भौ. रा.ना. नायक छापपी 'साहित्य अकादेमी"**

उपकार ,

साहित्य अकादेमीन छापिल्लें ' शणै गोंयबाब ' हें भौ . रामचंद्र नारायण नायकांनी बरयल्लें चरित्राचे आनी तांचो नातू भौ . शांताराम शं . वर्दे वालावलीकार हांचे " शणै गोंयबाबाली जिवीत आनी बरप " हातुंतल्यान जायत्या खबरींची खात्री करून घेवपाक उपयोग जालो . मात्त पयल्या चरित्राच्या सगल्याच १२० पृश्टांत ५० एक पृश्टांत शणैची खबर मेळटा . तशेंच तांच्या नातवान बरयल्लें पुस्तक जरी २५४ पृष्टांचे . तरी तातुंतल्या १२ पृष्टांत शणैची खबर दिल्या . भौ . मोरे [illegible] सखाराम मोने हांणी आपल्या ' मराठी भाषेचें व्याकरणकार आनी व्याकरण- प्रबंधकार ह्या पुस्तकाखातीर शणै गोंयबाबांकडेन माहिती आनी फोटो मागलो . थंय ते बरयतात " त्यांच्या [illegible] भाशेवरून ते अत्यंत नम्र व आपले चरित्र व फोटो प्रसिध्द करण्यास [illegible] मोठ्या मिनतवारीनें त्यांनी दिलेल्या टिपणाचा उपयोग करून (त्यांच्या [illegible] भजकूर लिहिला आहें ". कितेंय तांचे संबंदीची खबर सांगल्या , ती भौ . का[illegible]बाबांनीच . तांचे उपकार चड मानतां . नाजाल्यार गोंयबाबांकडेन फकत तीनदां वचून मा[illegible] [illegible]?

# वळख



| | | |
|---|---|---|
| नांव | : | **शांताराम वासुदेव आमोणकार** |
| जल्मतारीख | : | २९-८-१९२३ . |
| जल्मगांव | : | भोम-फोंडें , गोंय . |
| शिक्षण | : | गोंयांत लिसेवाचो ७ वर्सांचो डिप्लोमा (ARTS) पणजी . इश्कोला नोर्मालाचो २ वर्सांचो डिप्लोमा , पणजी .<br>मुंबयंत- सर जे .जे . स्कूल मुंबय हांगा १९४९ वर्सा पेंटींगाचो डिप्लोमा .<br>१९५२ वर्सा आर्ट मास्टर्स सर्टिफिकेट कोर्स . |
| वेवसाय | : | गव्हर्नमेंट हायर सेकंडरी स्कूल , पणजी हे शिक्षणसंस्थेंत २८ वर्सां कलाशिक्षक . |
| कलाशिक्षण | : | ल्हान भुरग्यांखातीर पणजे स्वामी विवेकानंद सोसायटींत ''कला केंद्र'' स्थापन केलें आनी ७ वर्सां चलयलें . |
| चित्रकला प्रदर्शनां | : | १९५३ वर्सा मुंबयच्या जहांगीर आर्ट गॅलरीत "GOANS IN INDIA" नांवांचे प्रदर्शन .<br>१९५५ , १९६२ आनी १९७१ वर्सा गोंयांत चित्रकला प्रदर्शनां . शणै गोंयबाब जल्मशताब्दी निमतान १९७७ वर्सा<br>"ART FOR LIVING" प्रदर्शन . |
| संबंदीत संस्थांनी वावर | : | आदले वांगडी , इंस्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा , पणजी ''गोवा कॉलेज ऑफ आर्टचें सल्लागार मंडळ ''कला अकादमी पणजी .<br>''ललीत कला अकादमी , नवी दिल्ली . |
| पुरस्कार | : | १९८६-८७ वर्सा चित्रकलेखातीर गोंय राज्य पुरस्कार . |